**प्रथमावृत्ती :** ५ नोव्हेंबर १९९८



**प्रकाशक : रत्नाकर श्रीपाद खांडेपारकर**
एस/१, कृष्णकुंज, मुरीड, फातोर्डा,
मडगांव, गोवा ४०३ ६०२.

**मुद्रक :**
**विश्राम शिरवाडकर,**
रंगनाथ मुद्रण,
पूर्व बांदरा, मुंबई ५१.

मुखपृष्ठ : **श्री. राजीव शिंदे**
प्राध्यापक, गोवा आर्ट कॉलेज,
पणजी, गोवा.

**मूल्य : पन्नास रुपये**



## ह्रदगत आनी अर्पण-पत्र

१९५४ ते १९६० हो काळ म्हळ्यार १५ ते २१ हीं म्हज्या वयाची स वर्सां मुंबै, गिरगांवच्या गांवदेवी भागांत गेलीं. थंय जे. के. बिल्डींग (नं. ४) ह्या इमारतींत रावपी श्री. काशिनाथ बाब लाड (काका) हांच्या सुसंपन्न आनी प्रेमळ कुटुंबांत म्हजें वास्तव्य आशिल्लें. शेजराच श्री. वसंतबाब बोरकार (अण्णा) हांचें बिराड. थंय स्व. बाकीबाब बोरकार मदीं मदीं मुक्कामाक आस्ताले. श्री. लाड आनी श्री. बोरकार हे मुंबैतल्या गोंयकार समाजाचे त्यावेळचे फुडारीच. ह्या दोनय घरांत कोंकणी भाषेचें प्रेम भरून आशील्लें. तातूंत वाडील्ल्यान कोंकणींतल्यान वाचप - बरौप सुरू जालें. कॉलेजच्या पयल्या वर्सासुनच कोंकणी असोसिएशनां सगळ्या कॉलेजांनी स्थापपाच्या चळवळींत फुडाकार घेवप जालें आनी १९५७ च्या वार्षिक कोंकणी उत्सवांत उजवाडायील्ल्या 'विद्या' ह्या इंटर- कॉलेजिएट कोंकणी अंकाचो हांव संपादक म्हणून निवडून आयलों. 'शांत उबी सृष्ट' ह्या म्हज्या पयल्याच कवितेक पयलें बक्षिस मेळ्ळें आनी मुंबै आकाशवाणीन म्हाका कविता-वाचनाखातीर आमंत्रित केलें. अशी आसा कोंकणी बरौपाच्या फाटली गोड पार्श्वभूमी.

फाटल्या कांय वर्सांत जें इल्लें कोंकणींतल्यान बरौप म्हजेकडल्यान घडलें ताका कारण स्व. ललिता. ललिता म्हळ्यार मूर्तिमंत चैतन्य आनी उल्हास. उदंड उत्साहान घरांत आनी भायर वावुरपी प्रसन्न सुहासिनी. अशा सुहासिनीचो सहवास १९६५ पासून १९९५ मेरेन तीस वर्सां म्हज्या जीणेक मेळ्ळो. पंचवीस वर्सां ताजेबरोबर संसार केलो. ललिताली सांगात म्हळ्यार शब्द-सुरांचीच सांगात. घरांत पंचवीस वर्सां अशा उत्सवानुच भुर्र करून उडून गेलीं. मैफल रंगात आस्तनांच ललिता अकस्मात् अदृश्य जालें.

परमेश्वरान ललिताक कलाकार म्हणूनच जन्माक घालें. चित्रकला, पेंटींग, हस्तकला, विणकाम, नृत्य, अभिनय, गायन आनी वादन ह्या सगळ्या कलांकडेन ताजो ल्हानपणापासून संबंद आयलो. रंगभूमी, आकाशवाणी, आनी दूरदर्शनच्या माध्यमांतल्यान खुप वर्सांमेरेन ताणें आपल्या कलागुणांचें दर्शन घडयलें.

मुंबै शहरांत स्थायीक जाल्ल्या गोंयकारांल्या वेगवेगळ्या संस्थांखातीर सांस्कृतिक कार्यक्रम बसौपाचे काम करतनां ताज्या उत्साहाक शीम नास्ताली. १९९५ सालांत आपलें आरोग्य साथ दिनास्तनां लेगींत गोवा हिंदु असोसिएशनच्या अमृत महोत्सवाखातीर कांय कलाकारांक घेवन ताणें जो सुंदर संगीत कार्यक्रम सादर केलो तो निमाणचोच थल्लो.

ललितालें उलौप आनी बरौप सुंदर आनी नीट नेटकें. गोड गळ्याची जन्मतःच ईश्वरी देणगी. मनशांची आवड. हांसत- खेळत वागपाची वृत्ती. आपल्या ह्या गुणांक लागून ताणें इल्ल्याशा जीणेंत खूप मनशां जोडलीं.

आकाशवाणी मुंबै केंद्रावेल्या कोंकणी सेक्शनांत काम करतना ताज्या प्रेमळ आनी लोभस स्वभावाक लागून कलाकारांक रेडियो स्टेशनचेर वचप म्हळ्यार आपल्या

घराबी पावील्ल्याबशेन दिस्तालें. मुंबैत वेगवेगळ्या व्यवसायांत यश जोडील्ल्या गोंयकारांची माहिती जमौन, तांकां स्वत: मेळून तांचेकडल्यान ताणें कोंकणींतल्यान बरौप करून घेतलें. तातुंतलें कांय तर थंयच्या थंय स्टुडियोंतुच ताज्या लेखणीतल्यान उतरलां आनी त्याच घटकेक चलील्ल्या 'आकाबायल्या चौखेर', 'भुरग्यांच्या आंगणात' सारख्या कार्यावळींतल्यान सरळ मुखावेल्या मायक्रोफोन वेल्ल्यान ताणें तें प्रसारित केलां. कोंकणी सरस्पत प्रसन्न जाल्ल्या ह्या गोंयच्या धुवेचें तें रूप म्हज्या दोळ्यांनी अजापान पळेलां.

तान-भूक विसरून आकाशवाणीच्या स्टुडियोंत वरान वरां कलाकारांच्यो तालमी घेवप, रिकार्डिंग,डबींग आनी एडिटींग करप हातूंत कर्तव्यापरस चड अशें ताजें कोंकणी कार्यक्रमांवेलें प्रेमूच आशिल्लें. ही कितलीशींच कामा भराभर पुणून उत्साही वृत्तीन तें करतनां मुंबैच्या खूप लोकांनी पळेलां. आकाशवाणीच्या सगळ्या स्टाफांत ललिता अत्यंत लोकप्रिय जाल्लें.

म्हजी आनी ललिताली भेट घडौन हाडपी हेंच मुंबैच्या आकाशवाणीवेलें कोंकणी सेक्शन. फक्त कविता-वाचन खातीरूच जरी सुरवेक म्हजी केन्नां थंय हजेरी आस्ताली तरी ललितान हळूहळू भापणां, परिसंवाद, मुलाखती, नाट्यलेखन, कथावाचन, संगीतिका अशा तरातराच्या कोंकणी कार्यक्रमांत म्हाका गुंतोवन उडैलो. अेकसारकें फाटल्यान लागून म्हाका कोंकणीतल्यान बरौपाक लायलें. ताकालागून नीरस अशा बँकींग व्यवसायात म्हजें मन उबगूंक पावतना, मदीं मदीं change मेळून उमेदीचे आनी उल्हासाचे कांय क्षण जगपाक मेळ्ळे.

ह्या पुस्तकातलीं चडशीं गीतां आकाशवाणीखातीर ललितान म्हजेकडल्यान बरौन घेतील्लीं. वेगवेगळ्या उत्सवानिमित्तान संगीतिका बरौपाक लायल्यो. केन्नां केन्नां सामकें ताकतिकीक बरौन घेतलां. कांय गीतां ताणें स्वत: चाली दिवन रेडियोचेर म्हळ्यांत. संगीत दिग्दर्शकांकडेन आनी गायक कलाकारांबरोबर बसून म्हज्या गीतांक स्वरबद्ध करपांत फुडाकार घेतलो. रेडियोवेल्या स्टुडियोंत हातांत गीतांचो कागद घेवन बोवाळतानांचे ललितालें तें चित्र तशातशें म्हज्या नदरेमुखार येता. खऱ्यानींच आतां म्हज्या ह्या गीतांत ललिताच भरून उल्लां.

संगीत प्रेमान आमी दोगांय कलासक्त मनशां एकठांय आयलीं. खुवदां एकठांय गायलीं. सकाळीं उठल्यापसून रातीं न्हीदसर पदां घोळैतुच ललितालीं कामां चलताली. ताज्या ह्या सुरांची म्हाका आपशींच संवय जावन गेली.त्या सुरांतल्यानुच म्हज्या गीतांक आकार मेळत गेलो. हो 'गीतोत्सव' ललिताल्या सुंदर स्वरमय सहवासाचो. आज ताज्या यादीन सद्गदीत जाल्ल्या अंत:करणान आनी कृतज्ञतेच्या भावनेन हें पुस्तक ताका समर्पित करतां.

मुंबै, ५ नोव्हेंबर १९९८

२५, कॉसमॉस गार्डन्स, सरदार पटेल रोड
बोरिवली (प), मुंबई ४०० १०३.

**- हरदत्त खांडेपारकर**

# शब्द-सुरांचो उत्सव

कोंकणी कवितेच्या इतिहासांत बाकीबाब, र. वि. पंडित, मनोहरराय सरदेसाय ह्या पिळगे उप्रांत गुपाट काळोख दिसता. नागेश करमली हो एक आडवाद सोडल्यार वेळुस्कार, पुंडलिक नायक, प्रकाश पाडगावकर ही पिळगी मुखार येवचे आदीं कोंकणी कविता थांबिल्ली दिसता. हरदत्त खांडेपारकर, उदय भेंब्रे ह्या दोन कवीनी जायती निर्मिती केली. पुणून संग्रहाच्या रुपान ती कविता आयलीना. कांय वर्सां आदी उदय भेंब्र्यालो 'चान्याच्या राती' हो कविता संग्रह उजवाडा आयलो आनी ताणे हे रितेंपण कांय प्रमाणान भरून काडलें. आनी आतां हरदत्त खांडेपारकरालो 'गीतोत्सव' हो संग्रह प्रसिद्ध जाता ही गजाल कोंकणी कवितेच्या इतिहासांतली म्हत्वाची घडणूक अशें हांव मानता. किद्याक तर जें रितेपण जाणवतालें तें आतां पुराय भरून आयलें. प्रत्येक कवीचो संग्रह त्या त्या वेळार प्रसिद्ध जावंक जाय. ताका लागून त्या कवीची फावत्ती वाड जावंक पावता आनी कवितेच्या इतिहासांत जे रिते जागे दिस्तां, तें भरूंक पावतात. हरदत्त खांडेपारकरालो हो संग्रह खूप उसरा उजवाडा येता. तो वीस वर्सां आदी येवंक जाय आशिल्लो अशें खोलायेन जाणवता.

सगळ्यांत पयली एक गजाल स्पश्ट करूंक जाय. जरी हरदत्त बाब आपल्या कवितांचे 'कविता', 'स्फूर्तिगीतां', 'संगीतिका' अशा वाट्यांनी कल्पिता तरी हो सगळो मेळून कवितांचो संग्रह अशें हांव मानतां. हे वांटे ताणी सोयीखातीर केल्या आसत. किद्याक तर बऱ्यांतले बरे गीत हें बऱ्यांतली बरी कविता आसता आनी स्त्रेष्ठ कविता खूप फावट आपसूक गीताचो रुपकार घेवन येता. ताका लागून अश्या भेदांक आनी वर्गिकरणांक कवितेच्या मळार सुवात नासता. खऱ्या अर्थान ह्या संग्रहातल्यो रचना गीतांच्या आंगाच्यो आसा. कोंकणीत बाकीबाब, यशवंत केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, अभिजीत, विठ्ठलदास प्रभू हाणी सुंदर गीतरचना केल्या. आनी ही परंपरा हरदत्त खांडेपारकराल्या कवितेन मुखार व्हेल्या. तातूत मोलाची भर घाल्या.

उत्तम गीताचें लक्षण किदें ? जातूत गेयता आसा आनी सूर आनी शब्द हांचो मेळ जाला ताका गीत म्हणटात अशी जाप मेळूंक येता. ह्या जापेंत आनीक एक गजालीचो आस्पाव करूंक जाय. ती म्हळ्यार आशय. हाची गवाय 'गीतोत्सवांत' खूप जाग्यांनी मेळटा. 'भितोडेक' ही कविता पळोवपा सारकी आसा.

'कितले पाश, कितले बंध<br>
आडखळ्यांचो कसलो छंद<br>
तोड बेडयो ; आपशी तूं<br>
वोंय हुपून वचशी.'

फुल्ल्या भायर पुनवकळा
सोबा आयल्या अपंगळा
घे रे वोतून पुनवेची
कळशी भरून कळशी

बारकायेन अभ्यास करून पळयल्यार ह्या कवितेंतल्यान गीताक वेगळें काडूंक येना म्हणपाचें अणभवाक येतलें. तशेंच 'दुष्यंत-शकुंतला' संगीतिकेतल्यो चार वळी पळोवपा सारक्यो आसात -

या बालका दर्शनान हांव भुल्लां
गुणी देखणो वीर दिसता जसो
लोळैत छावो फुडें सिंहिणीचो
खेळटा मदीं मस्त तूफानसो.

गीतांच्या रचनेत तंत्राचोच भाग नासता. निखटीं यमकां जुळोवप म्हळ्यार गीत न्हय. अस्सल गीतांत उमाळ्यांचो ओग आसता. हिंदी फिल्म संगीतांत साहिर लुधियानवी, राजा मेहदीअली खां, शकील बदायुनी आनी शैलेंद्र हाणीं रचिल्ल्या गीतांचो अभ्यास केल्यार हें सत बेस बरें होल्मतलें. फकत संगीताच्या साजाक लागून तांगेली गीतां लोकांच्या तोंडात घोळना तर तातूंत आशिल्लो ओडलायणो कवितेचो आशय तांकां उत्तम काव्याच्यां पांवड्याचेर व्हरतात. खोशयेची गजाल म्हळ्यार हरदत्तबाबाल्या गीतांनी उत्तम काव्याच्यो पंक्ती पावला पावलाक पळोंवक मेळटात. 'पुण्य हिंद देश' हें देशभक्ती गीत पळयात. कवी म्हणटा -

जल्म हे भुंयेर तुज्या
मेळूंक मनीस  देवांत झुजां
धर्म जंय न्हिवौन उज्या
शिंपीत वेता मोगा बिजां

वा ह्यो मुखावेल्यो वळी पळयात :

हुंवार रक्ताचे व्हावैले जालो धुल्ल गुलाल
उल्लो जोंवर स्वास निमाणो, ध्येयाचो प्रतिपाळ
अजिंक्य असल्या झुंजारांनी, थरथरलो सुलतान
(पराक्रमी संतान)

ह्या संग्रहाची आनीक एक खाशेलकाय म्हळ्यार तातूत आस्पाविल्लयो संगीतिका वा नाट्यकाव्यां. 'दुष्यंत - शकुंतला ' ह्या विशयान अनादीकाला सावन कवींक आव्हानां दिल्यांत. भारतीय कवितेच्या इतिहासांत ह्या विशयान व्हड क्रांती केल्या अशें म्हळ्यार चड

बरें जातलें. महाकवी कालिदासान ताका अग्रंवर केलां तशेंच भारतीय भासांतल्या विंगड विंगड कवींनी आपआपल्या परीन ह्या विशयाची मांडावळ केल्या. हरदत्तबाबानूय हे आव्हान समर्थपणान पेल्लां हाची गवाय 'दुष्यंत शकुंतला' हे नाट्यकाव्य दिता. ताका हांव नाट्यकाव्य म्हणटां हाचें कारण तिका प्रायोगिक मुल्य आसा. दुष्यंत - शकुंतलेची पयली भेट, मीलनाची खिणां आनी मागीर जाल्ली ताटातूट तशेंच तांची परत भेट ह्या प्रसंगातलें नाट्य ताणी अचूक हेरलां आनी समर्थपणान मांडलां -

'व्याकुळीत जीव कित्या घाय नास्तनां
पांय लागतनाच आज ह्या तपोवना'

ह्यो दुष्यंताच्या स्वगतांतल्यो वळी वा -

' पळौन तुका ऋतु वसंत भुल्लो
सखये लावण्यके
कल्पद्रुम सर्वांग चंवल्लो
शकुंतले लाडके.'

ह्या प्रियंवदेच्या उतरांनी मनाच्या सुप्त भावनांचो वेध घेतिल्लो दिसता. खूप कडेन गीतांचो आशय तरल जावन येता. 'गोकुळाष्टम' ह्या संगीतिकेंत धर्तरेच्या ओठांतल्यो वळी पळयात -

उमाळ्यांचीं गायलीं गीतां
भिजलीं मनीं चान्नी शेतां
आफौंक तुका पयस वेता
वास ... पारिजात

व्याकुळीत न्हंय तरंग
रूप गिरैत सपन -दंग
धाय दिको उब्यो अळंग
प्रीति चिंतनात.

उत्तम कवितेच्या हेर घटकां बरबर चित्रमयतेचेंय दर्शन वयल्या कडव्यांनी जाता. नाट्यकाव्य हो कवितेचो घाट कोंकणीत चडसो कोणे केळोवंकना. बाकीबावाल्या 'पायजणा' ह्या संग्रहात 'संजिवनी' आनी ' भाऊबीज' ही दोन नाट्यकाव्यां आसात. तशेंच मनोहरराय सरदेसायालें 'आयज रे धोलार पडली वडी' हें कृशण आनी कंसाच्या नात्याच्या भोंवतणी रचिल्लें नाट्यकाव्य आसा. आनंदाची गजाल म्हळ्यार हरदत्तबाबाल्या कवितेवरवीं ह्या परंपरेंत मोलाची भर पडटा. बाकीबावालीं तशींच ह्या संग्रहातलीं हीं नाट्यकाव्यां गरजेंतल्यान

आयल्यांत. अशें जरी आसले तरी तातूंतली उत्स्पुर्तताय लिपून उरूंक ना. नीज कवितेचें लक्षण तें हेंच ही गजाल वेगळ्या उतरांनी सांगपाची गरज ना. बाकीबाबान विंगड विंगड छंदांनी कविता बरयल्यो तशीच छंदांची विविधताय हरदत्तबाबाल्या कवितेंतूय आसा. गणमात्रांचेंय गणित ताकां आपसूक जमलां. ऱ्हस्वदीर्घ अक्षरांचो नाका आशिल्लो ताण तांगेल्या रचनांनी वासाक लेगीत दिसना. संगिताची खोल जाण आशिल्ल्यान तांका हे आपसूक शक्य जालां.

हरदत्तबाबाल्या मुखावेल्या संग्रहाची आमी उमळशिकेन वाट पळोंवंया ...

**- माधव बोरकार**

५ नोव्हेंबर १९९८
ग्रीन पीस को. हौ. सोसायटी,
नागळे - ताळगांव, गोंय,
पिन ४०३ ००२.



*संगीत प्रेमान दोगांय कलासक्त मनशां एकटाय आयलीं ...*
*(ललिता आनी हरदत्त खांडेपारकर)*

# आभार

आकाशवाणी मुंबें वेल्या कोंकणी विभागान आपल्या रिकॉर्डसांन खूप पैलींचीं म्हजीं पदां अेकठांय करून दिलीं. तांचें हें सहकार्य खूप मोलाचें. विशेषकरून सौ. पुष्पा करमली, प्रोग्राम एक्झीक्युटीव्ह आनी तांचे सहकारी श्री. कृष्णा कामत हांचो खास उल्लेख करूंकच जाय.

श्री.नागेशवाव सोंदे हें मफतलाल ग्रुप ऑफ इंडिस्ट्रीजचे निवृत्त उच्चपदस्थ अधिकारी. ताणीं स्वत: संपादित केल्ल्या 'कौंडिण्य' ह्या कोंकणी त्रैमासिकाचें फाटलें अंक म्हाका मुद्दाम धाडून दिले. त्या अंकांत ताणीं छापील्ल्यो म्हज्यो कांय संगीतिका म्हाका मेळ्ळ्यो. तांच्या ह्या स्नेहाचो आनी आपलेपणाचो कृतज्ञतापूर्वक उल्लेख करूंकूच जाय.

मुंबय रावपी सौ. अंजनी आनी श्री. सुरेंद्र वाळके ह्या प्रेमळ दांपत्यान ह्या पुस्तकाक सुंदर रूप दिवपाखातीर जाय जाल्लो खर्च करपाची जबाबदारी उत्स्फूर्तपणान आपल्या आंगार घेतली. देव तांचें बरें करू.

गोवा कॉलेज ऑफ आर्टचे तरूण तडफदार आनी गुणी कलावंत प्राध्यापक राजीव शिंदे हाणीं स्वत: जावन मुखपृष्ठावेलें सुंदर चित्र तयार करून दिलें. आनी पुस्तकाच्या सजावटीची बाजू सांबळ्ळी. ते घरचेच आशिल्ल्यान तोखणाय तर करतांच पुण तरीय तांचे आभार मानल्याशिवाय रांव नज.

म्हजो धाकटो भाव श्री. रत्नाकर श्रीपाद खांडेपारकर हाणें फुडाकार घेवन ह्या पुस्तकाची योजना आंखली आनी तें उजवाडावपाची जबाबदारी घेतली. ताका म्हजे अखंड आशीर्वाद.

कितल्याशाच पुरस्कारांनी सन्मानीत आशिल्ले गोंयचे प्रतिभावंत कवी आनी पणजीवेले ज्येष्ट प्रोग्राम एक्झीक्युटीव्ह श्री. माधव बोरकार हांचो आमच्या दोगांयचेर खुप मोग. स्व. ललिताचे ते मुंबेंच्या आकाशवाणीचेर कांय काळ सहकारीय आशील्ले. ताणीं ह्या संग्रहाचे उत्स्फूर्त स्वागत करून आपल्या कवीमनांतल्यान परगटलेल्यो भावना वाचप्यांमुखार दवल्ल्यात. त्यो खुप मोलाच्यो आसात. देव तांचे बरें करूं.

गोंयच्या पारोडा-मडगांव भागांतले अेक उत्तम समाजसेवक श्री. नागेश करमळी हाणीं हो संग्रह हांवे छापचो म्हणून सगळें सहकार्य दिवपाचें मान्य केलें आनी मोलाचें मार्गदर्शन केलें. तांचो हांव उपकारी आसां.

श्री. विश्राम शिरवाडकर ( कुसुमाग्रजांचे पुतणे) हे स्वत:च अेक उत्तम कवी. ताणी सामके आपलेपणान हा कवितासंग्रह मुद्रित करून सोबीत रूपान तो कोंकणी-गीत रसिकांमुखार दवल्लो. तांचे उपकार मानता तितले थोडे.

## अंतरंग :

## १. म्हजें मन

फांतोडेच्या तन्नसाणेंत
मळब जेन्नां तामसाणटा
मनांत म्हज्या तामडेंगुत्र
दोष्णीचें फूल फुलता

पावसाच्या पयल्या वोलीन
माती जेन्नां घमघमता
सगलें घालून विसरायेर
मन म्हजें चंवरता

वाटेन वेतनां नदर जेन्नां
म्होंवाळ दोळ्यांत अडखळटा
मेणायपरस मोव जावन
मन म्हजें सप्नाळटा

रातचे थंड भैरवीचे
सूर जेन्नां आयकतां
अमृताचे झरींत बुडून
मन म्हजें पेंवत वेता

मायेन भल्लो आवय हात
फाटीक जेन्नां सास्पिता
मन म्हजें पण्टी जावन
जीव तिका अुंवाळटा.



आयलीं गेलीं संवगां कितलीं
घालीत बोवाळ भोवस्तळे
पावलां तांचीं पुसून गेलीं
धवें जालें हळडुळें

आयज हांगां गेलां पिनून
चित्र कालचें वाटकुळें
काजीपानांत लिपून तणांत
धापलां आंग म्होडकळें.

एकलें बसून भोगता ख्यास्त
चल्ले गीम पावसाळे
म्हऱ्यान गेल्यार यादी काडून
परततलें रडकुळें.

नाकात करूंक बोवाळ हांगा
व्हाळ लेगीत सुकला पळे
सुर्णां शेवणीं सोडून गेलीं
म्होडक्या वराक अेकमुळें.



## ४. भितोडेक

भितोडेच्या उबेंत पिशा
भियोंवन कित्या रावशी?
घोग्यावरी उडी घेंवक
तूं जीणे आडायशी.

तूंच तुका सोयरो जाव्न
घुस्मटशी पयस रावन
मेकळेपणा पळौन पिशा
तूं कित्या घुंवळशी?

उबगणेन बावयत जोण
उमेदींचे उडले खीण
बानून बनखणीक, तूंच
खीळ जावन रावशी.

कितले पाश, कितले बंध
अडखळ्यांचो कसलो छंद!
तोड बेड्यो, आपशी तूं
वोंय हुपून बचशी.

फुल्ल्या भायर पुनवकळा
सोबा आयल्या अपंगळा
घे रे वोतुन पुनवेची
कळशी भरून कळशी.



## ५. उतरां

उतरांचो कीस
काडचो न्हय
मन दुखयता.

        उतरान कोणाक
        [illegible] न्हय
        उतरान कोणाक
        [illegible] न्हय
        मनीस डळमळता.

उतराक उतर दिवन
किल्याक वाडयात
वितंडवाद?
तो आसांक तोडटा.
मनां जोडटा
तीं उतरां म्हळ्यार संवाद.

        ऊर्मट उतरां
        फातर कशी
        काळजार पडटात
        जीववेणीं.
        चार गिरेस्त उतरांतूच
        आस्ता संजीवनी.

उतरांक येता
चिमटे काडूंक.
उतरांक येता
कातरूंक काळीज
त्रासानी तोपूंक.

        दुःखार दाग
        दिवपी उतरां
        कोणाच्यान जाता सोसूंक?
        भाजल्या मनाक

शीतळ उतरां
जेन्नां घालतात फूक
खोल जाल्लो घाय लेगीत
येता पेखुंक
कांय उतरां विखारी
तोणाक येतात
तिडकी भितर
फुडलें येवजून वेळारूच
लांवची पट्टा कातर
कांय उतरां
कागदार उतरनात
तुमकां आमकां
आयकुंक येनात.
नदरेंतल्यानुच उलैतात
मोगांत घुस्पल्ल्या
दोगांभितर.
कांय उतरां भुलैतात
केद्याबेगीन चडैत वेतात
चण्याझाडार.
भुल्लुशाच्या दोळ्यांक
मळब लेगीत
जाता लागसार.
शेंवटून पट्टा तेन्नांच कळटा
त्या उतरांची करामत
तकली शाबूत आसल्यार.
कांय लक्ष उतरां
गेल्यांत झरून
अर्थ गेला तासून - सोलून
मेळत ताणें चाबून चाबून
कोयर करून
उडयल्यांत

जाणकाराल्या दरेक उतराक
भांगरामोल.
बढायांची वैलीं वैलीं
कितलींय उतरां
पोकळ - पॉल.
उतरांची पारख नासल्यार घोळ.

कांय उतरां
लाम लचक
घुस्पागोंदळाचीं.
कांय वेंचील्लीं
चाळणीन चाळील्लीं
निव्वळ अर्थाचीं.

कांय उतरां सुवादिक
सोदित आस्तात
कविमन.
तांची एकेक गांथन
म्हळ्यारूच कवन.

परमळीत गर्भकुडींतल्यान
अवतरतात
तीं संतांची उतरां.
धतरिक धीर दीत
उरतात चिरंतन.



## ६. नसती हांव

विसरचेलें स्मरचें कित्याक
निसरचेलें थारचें कित्याक
कांट्यांत हांसत्या फुलाक पळौन
'हायस' तोणान म्हणचें कित्याक?

नसत्या हांवेन जिवाक फटौप
गांठीक आसलें फुकट घालौप
शेवट सुकून किळांच मारप
पळौन उज्याक लासचें कित्याक?

पयलीं पिसावन ओगी उट्टा
मळबाक तेकूंक दोनुच बोटां
जेन्नां शेंवटून सकैल पट्टा
माथें तापौन शापचें कित्याक ?

आसता ताजें कितेंय जावचें
नासता थंय हावेन धावचें
भौ दुखाक कारण जावचें
आतां पुन्नां चुकचें कित्याक?



## ७. प्रार्थना

हळडुळ्या सांजवेळां दीस देंवतना
हांसय वात दिवलेंतली अस्त दिस्तनां ।।

ताप भवाचो न्हिवलो, पडची जाली रात
उरतल्यांक दिंवचे दिवन, रावले रिते हात
सोंपय पासय पिरायेची, तृप्त आस्तनां ।।

घुस्पतनां प्रपंचांत, चुकलों तुजी वाट
कळावाची ख्यास्त मना, आतां जगा फाट
वांगड नाका संवगड्यांचो, ध्यान लागतनां ।।

आफौणेच्या किण्ण खिणां, उरचों म्हजो हांव
अेक तुजें भगवंता, दवर जिबेर नांव
न्हीद नीम्णी घाल तेन्नां : करतां प्रार्थना ।।



## ८. मर्णवाटेक लागले पांय

मर्णवाटेक लागले पांय
जीण जाली अनवळखी
धवशा दोळ्यां मुखार ताज्या
विसरायेची आयली साय.

मिणमिणटा दिवली वात
निमाणेची मेजीत खिणां
पिरायेचो अंत पळेत
पडल्या सकैल मंदकाय.

मोगाचे पाशा घेवन
जमले म्हऱ्यान आसइष्ट
मातयेच्या पुताक आतां
मातयेची कूस जाय

पलतडीक हुपली नदर
निरोपाचें नुल्लें उतर
रिती केली जीण ताणें
रित्या हातान वचूंक जाय.



## ९. याद तुजी जवाहरा

आयज येतली याद तुजी जवाहरा, घराघरा.

गुलाबांचे फुलांपोले जातले वोले गळैत दुखां
धोलैत पानां आफैतलीं दोंगरावेलीं ऊंच रूखां.
भुकेतलीं बसून भुरगीं आयकुंक तुजीं मोगा उतरां
सोदुंक तुका येतलीं धवीं सवंसारांतलीं कबूतरां.
माथ्यार तुका फिरैत मिरैत हिमालय आज थयथयतलो
गंगेवेंगेंत ल्हारांर तुका वारो खेळय खेळयतलो
जिबे जिबेर काणयो तुज्यो घोळटल्यो रे तरातरा
आयज येतली याद तुजी जवाहरा घराघरा.

संकटांचे हुपले दोंगर तुज्यावांगडा तुज्या धीरार
तुका घालुन मुखार आमी रावले उबे तुज्या बळार.
तुजें उतर आयकतनां भर्ली काळजां फुल्लीं भुजां
तयार जाले करूंक कितेंय रित्या हातान लेगीत झुजां.
शांत निळें सप्न तुजें भारताच्या फुडाराचें
करूंक उबें भुंयेर तुवें ओतलें रगत अत्तराचें.
रिणान माथें बागौन तुका नमन आयज जवाहरा
आयज येतली याद तुजी जवाहरा घराघरा.



( पंडीत जवाहरलाल नेहरूंच्या स्वर्गवासाउपरान्त आयील्ल्या तांच्या पयल्याच जन्मदिसा, म्हळ्यार १४ नोव्हेंबर १९६४ ह्या दिसा बरयल्ली ही कविता. त्याच दिसा मुंबै आकाशवाणीवेल्यान प्रसारीत जाली.)

## १०. म्हजें गोंय

वेळार चंवर येता आंब्या
ताळयो भरून फुलता
जायो - जुयो हुपून वंयो
वास पयस पावैता
व्हाळालागी पांचवीं शेतां
भोव दोळ्यां सुखायता
म्हज्या गोयां सगळ्यो वाटो
पावतल्यां आफैता ।।

कुळागरां सर्ग हांगा
राखुंक देव भोंवता
देवळा - कुशीन रावचे शांत
तानभूक न्हीवता
मनीसपणान म्होव म्होंवाळ
उतर जंय भुलैता
म्हज्या गोयां सगळ्यो वाटो
पावतल्यां आफैता ।।

फांतोडेच्या थंड पारार
चौगुडो जागैता
घरा - घरा गोड गळे
सप्तसूर गायता
गोंयची भूंय कलावती
संसारा सोबैता
म्हज्या गोंया सगल्यो वाटो
पावतल्यां आफैता ।।

( मुंबै दूरदर्शनचेर कांय वर्सांपैली 'धालो' हो ४५ मिनिटांचो गोंयच्या लोकगीतां आनी लोकनृत्यांचेर आधारीलो कार्यक्रम 'प्रतिभा आणि प्रतिमा' ह्या लोकप्रिय कार्यावळींतल्यान स्व. ललितान आनि हांवे सादर केल्लो. ह्या कार्यक्रमाची सुरवात वयल्या म्हज्या गीतान जाल्ली. हें गीत आयत्या वेळार निर्मात्याच्या सूचनेक लागून स्टुडियोंत तयार जालें. हांवेंच स्वरबद्ध केलें आनी तें स्व. ललिता बरोबर हांवें गायलें. ) 

## ११. असले आमी, कसले आमी

काल घालून गळ्यांत  ताज्या फुलांहार
वाजयत गाजयत भोंवडायताले आमीच.

फातर रोमले, तरीय जमले चोमें कशे
पळौंक ताका आशेताले आमीच.

देवाभशेन पुजलो ताका तिनुय काळ
उतरा उतराक ताळयो दिल्यो आमीच.

आयज पूण फिल्ली बुद्द अकस्मात्
फुलां जाग्यार फातर घेवन रावले हात.

असले आमी नाचरे, पिशे, भुल्लुसरे
नकळ फाल्यां करीत कितें आमचे आमीच.



## १२. शांत उबी सृष्ट

अजून गाये पान्यांत धार
अजून पानां पांचवीं चार
सुकल्यो आटल्यो न्हंयो कितल्यो
. . . . अजून नाचता दर्या ल्हार.

कितलीं झुजां, म्हाझुजां,
झुजले आमी सजौंक भुजां
मसण करूंक संवसाराचें.
. . . . अजून घोळटा गांवची तार.

प्रळयांनी हाल्लीं युगां
अंत आपलो दिसलो जगा
सगळें जालें आरतें - परतें.
. . . . अजून रूखार चंवरा दाळ.

अजून पांचवे दोगर, शेतां
चान्न्यो राती, लक्क वतां
शांत उबी सृष्ट अशी
अजून सोबीत तर्णी प्यार.

(ही म्हजी कोंकणींतली पयली कविता. कॉलेजच्या पयल्या वर्सा रचिल्ली. १९५७ सालच्या 'विद्या' ह्या मुंबयच्या इंटर-कॉलेजिएट कोंकणी अंकांत ह्या कवितेक पयलो पुरस्कार मेळ्ळो. ह्या कवितेक लागून मुंबै आकाशवाणीवेल्या कोंकणीं सेक्शनच्या अधिकाऱ्यांनी म्हाका ब्रॉडकास्टखातीर आमंत्रित केलें. ह्या कवितेक लागून आकाशवाणीकडेन संबंद आयलो तो फाटली ४१ वर्षांवयर सतत चालू उल्ला.)



# देशभक्ती गीतां

( १९६२, १९६५ आनी १९७१ ह्या वर्सांनी जाल्ल्या युद्धांच्या पार्श्वभूमीचेर ह्या गीतांचो जल्म जालो. खास आकाशवाणी-खातीरूच हीं गीतां बरयलालीं. मुंबै आनी पणजी आकाशवाणीचेर हीं गीतां लोकप्रिय जालीं.)

## १३. पुण्य हिन्द देश

पुण्य हिन्द देश स्वदेश तुज्या मोगान
दिसान दिसान वेतां पिसावन, तुजेंच ध्यान ।। धृ।।

कंवळीं किर्णां सान सकाळ
तुजेर उधळटा अंतराळ
नांव जिबेर तुजें त्रिकाळ
नाचैत व्हांवता व्हाळ दुदाळ
सर्ग ल्हान म्हाका दिसूंक तुज्या म्हऱ्यान ।। १ ।।

खेळटा जंय स्वतंत्रताय
पुनव फुलैति उक्तताय
शक्त स्फूर्त परगटायत
गिन्यान शिकैता मुक्तताय
तीर्थ तूं, तुजे सुपूत सत्यवान ।। २ ।।

जल्म ह्यो भुंयेर तुज्या
मेळूंक मनीस देवांत झुजां
धर्म जंय न्हिवौन उज्या
शिंपीत वेता मोगाबीजां
धन्य हिन्द देश म्हजो अमोल प्राण ।। ३ ।।

घेवन हातांत तुजें निशाण
मिरैत वेतां जागैत रान
रिणाक तुज्या सोबतशें दान
पायांर तुज्या हे पंचप्राण
ऊंच उरूं युगां युगां अशीच मान ।। ४ ।।



## १४. राष्ट्राचो रथ विराट

राष्ट्राचो रथ विराट, एकवटुन धुकलतले
हर हर हर महादेव एकमुखान घालतले ।। धृ।।

लोकतंत्र राज्य जंय, फुलता जंय स्वतंत्रताय
ह्ये भुंयेर जलमल्याक मेळटली समानताय
हातिंहात घेवन वाट एकपणान चलतले ।।१।।

ना दुखां दोळ्यां कोणा, ना परावलंबना
प्राप्त करतले भलाय नुरतली विवंचना
धाय दिकां उदरगतीन लक्षदीप लायतले ।।३।।

देह झंजळायत करतले स्वदेश शक्तिमान
गीत रूप धरतलें 'जय जवान' 'जय किसान'
सोप्र सौख्य - शांतिचें, ह्ये भुंयेर फळयतले ।। ४।।



## १५. सार्वभौम गणराज्य उदेलें

सार्वभौम गणराज्य उदेलें, पूर्व दिशे गर्वान
त्या भाग्याचे तुमीच वारस भारतीय संतान ।। धृ।।

वेदभूमि ही जनजागृतिची, उगम सूर-संवाद
मानवतेची राखणदारिण, संस्कृतिची बुनयाद
ह्या मातीच्या मुळांत दखलां, प्रतिभेचें वरदान ।।१।।

जनसत्तेचें अधिष्ठान हें ना तगना अन्याय
बुद्ध गांधीजी गेले दवरून तांची म्हापुण्याय
ह्या अभिमानाचें बळ जोडा, करा देश बळवान ।। २।।

पुण्यहिन्द देशी भावांनो, स्मरा राष्ट्रवीरां
अपूर्त तांच्या संकल्पांची करा, करात त्वरा
परिश्रमांचे जाया भगिरथ, घडया नवनिर्माण ।। ३।।



## १६. पराक्रमी संतान

दास्याच्या बनखणींत जेन्नां गुलाम हिंदुस्तान
सुळार चल्ले हांसत हांसत पराक्रमी संतान ।। धृ।।

केली नश्वर जीण निरांजन, समर्पणाचें ध्यान
भय नुल्लें मरणाचें तांकां जल्मभुंये प्रेमान
मायमुक्तिची तान अनावर, प्राणांची कुरबान ।। १।।

हुंवार रगताचे व्हांवैले, जालो धुल्ल गुलाल
उल्लो जोंवर स्वास निमाणो, ध्येयाचो प्रतिपाळ
अजिंक्य असल्या झुंजारांनी, थरथल्लो सुलतान ।। २।।

तारुण्यांतुच जाले दुर्बळ भोगित कारावास
त्या त्यागाचो गहिंवर गौरव उलैतलो इतिहास
एकवटुन अंतस्करणानी आज स्मरा बलिदान ।। ३।।

मरणोन्मुख त्यां अखेर वीरां चिंतन देशाचें
वित्त, कीर्त ना एकच चित्तीं स्वप्न स्वराज्याचें
स्मृतींत तांच्या देशवासियां उन्नतिचे वरदान ।। ४।।



## १७. स्वातंत्र्याच्या तेजोसूर्या

स्वातंत्र्याच्या तेजोसूर्या, त्रिवार जयजयकार
ललकारित जयहिंद आज, आनंद भरा घरदार ।। धृ।।

स्वतंत्रतेच्या भौ भगतांनों घणघणया दिपरद्‌ना
महापुजेचें दिया निमंत्रण वाडा म्हासमरद्‌ना
भारतीय स्वर सम्राटांचो भरा आज दरबार ।। १ ।।

सूर-सज्ज कंठांत तापया आवेशाचें गान
विजयी ध्वज फडकैत, मिरौया मातृभूमि अभिमान
संग्रामाच्या स्फूर्तिपदांनी योंव मंगलमय भार ।।२।।

ही जननी अक्षय वीरांची क्रांतिकारकांची
होमित सर्वस्वा अर्पिल्या अमित सैनिकांची
जयघोषांनी करूया गौरव तांचो वारंवार ।।३।।

सौभाग्याचे स्वर्णकलश लाया, लाया कपला
गौरवशाली राष्ट्रध्वजा ह्या सन्मानित उचला
मंगलदिस हो नव्या शकाचो, महापुजेचो वार ।। ४।।

सहस्त्रदां स्मरूया त्या वीरां, तांच्या बलिदाना
सहस्त्रदां वंदुंया उडौंया उंवाळून प्राणां
कृतज्ञ तांकां रावन घडौंया फायचो दिव्य फुडार ।। ५।।



## १८. आयलो आवयभुंयचो उलो

आयलो, आवय-भुंयचो उलो, हालयत काळीज-प्राण
चल रे बेगीन बेगीन आयज माडयत दोंगर - रान ।। धृ।।

वावक्या सुक्या पानापोंदा
लिंपलीं सगळीं पोत्रीं पदां
आयच्या फांत्यार धोला तालार नाचता नवी तान ।।१।।

दर्या ल्हारार गायरे वारे
चल्ले घेवन ल्हारां भिरें
पांखां फटून मुखार सल्लीं करूंक जीवदान ।। २ ।।

तळपां काळीं म्हंयच्या देगेन
कळपा कळपान चल्लीं वेगीन
दळपां थामौन मळबा- तळा- चल्ले मेघ धावन ।।३।।

चल्ले पुण्य शक्तिपती
घालुंक तुका आपले- फाटी
झुजामळार तुज्या बळाक सगले शक्तिमान ।।४।।

फुलय उपाट भीम भुजां
शिकय कशीं झुजचीं झुजां
चेंचावन सोप्रां दुस्मानाचीं जावनी निसंतान ।।५।।

सत्य तुजी धर्मवाट
जैताची वाजता घांट
जेजून दिल्ले खुरीस चल्ले जावन धर्म-बाण ।।६।।



## १९. शाश्वत भारत - देश

विश्वकुटुंबीं समर्थ रावचो, शाश्वत भारत देश
यश परमळचें, अपेश टळचें, कृपा अशी परमेश ।। धृ।।

नव्या दिसा येंव नवें अंकुरा, वचूं लया जें पोन्नें
योंव विस्तारून कलाकलांनी फुलूं फळूं जें तन्नें
कणाकणानीं खेळत कीर्णां, वयर सरूं उन्मेष ।। १ ।।

अवर्षणांचो थरूं असंभव, जांव निर्विघ्न फुडार
पिकूं विपुल, रसरसूं कुळागर, भरूं सदा संसार
दींव सगल्यां वन कल्पतरूंनी समृद्धी संदेश ।। ३ ।।

(स्वातंत्र्यदिनानिमित्तान आकाशवाणीचेर खूप वर्सांफाटी सादर केल्या म्हज्या एका संगीतिकेंतलें हे नीम्णे भैरवीतले गीत)






# पांच संगीतिका

**दुष्यन्त शकुंतला :** ही संगीतिका मुंबै आकाशवाणी वेल्यान १९७४ सालांत दिवाळी उत्सवाच्या निमित्तान तीन भागांनी प्रसारित जाली. मुंबैच्या नाम्नेच्या गायक कलाकारांनी हातूंत वांटो घेतलो. उपरान्त ह्या संगीतिकेचो मुंबै जाहीर कार्यक्रमूय जालो.

**होळी :** ही संगीतिका पयलीं आकाशवाणी, मुंबै वेल्यान प्रसारीत जाली. १९९० सालच्या मार्च म्हयन्यांत दूरदर्शनच्या मुंबै केंद्रावल्यान टेलिकास्ट जाली.

**कृष्ण जन्म :** ही संगीतिका मुंबै, आकाशवाणी वेल्यान. १९९२ सालच्या गोकुळाष्टमीक प्रसारीत जाली.

**गोकुळाष्टम :** ही संगीतिका १९६७ सालांत मुंबै, आकाशवाणी वेल्यान प्रसारीत जाली.

**दसरो :** ही संगीतिका १९६८ सालांत मुंबै, आकाशवाणी वेल्यान प्रसारीत जाली.




# संगीतिका : **दुष्यंत - शकुंतला**

(महाकवी कालिदासाच्या 'अभिज्ञान शाकुंतलम्' ह्या संस्कृत नाटकाचेर आधारून )

## भाग पयलो

(स्थळ आनी प्रसंग : राजा दुष्यंत साध्या वेषांत हरणाच्या शिकारेक रानावनांत आपलो रथ धावणायत चल्ला. नकळत तो कण्वमुनींच्या तपोवनांत पावता आनी मेनकेची धूव आशील्ल्या शकुंतलेची भेट थंय जाता. पयल्याच त्या भेटींत दोगांय एकमेकांच्या प्रेमांत पडटात.)

**सारथी :**

पैज लायात, अश्वांनो लजया, गरुडाचे उड्डाण
धुल्ल खुरांनी, उडेत रानीं, सोडा एक तुफान ।।

खिंकाळुन घालैत धुमाकुळ धावणाया रथ फुडें
मदिं येत्या माडैत श्वापदां पडुं वेत्यां सांकडें
लक्ष्य तिराच्या पडूं भक्षणा, शर सोडूं संदान ।।१।।

रणांगणाच्या विसरा विजया अरण्यांत आतां
चपल शराची खरी परीक्षा रानहरण घेता
प्रिय राजाची पुरवा मनिची ही मृगयेची तान ।।२।।

**तपोवनांतलो शिष्य :**

थाम थाम रे थंयच कठोरा
हें मृग तपोवनाचें
कण्वमुनींचो आश्रम रे हो
न्हंय स्थळ संग्रामाचे ।।

निर्मळ हीं निष्पाप वनचरां
खुशाल हीं गोमाय वासरां
करुवाळुंक ना हात अभाग्या
काळिज पाषाणाचें ।।

जंय भोगी भवताप विसल्लो
थंय दुष्टावो खंय उद्भवलो
योग्यांच्या ह्या भुंये अभय रे
राजा दुष्यन्ताचें ।।

**दुष्यन्त :** (स्वगत)
व्याकुळीत जीव कित्या घाय नास्तना
पाय लागतनांच आज ह्या तपोवना ।।

राज्यवैभवांत ना कांय कित्यांत उणें
स्वर्गिच्चीं सुखां भरून वोत्ता हें जीणें
वोड ही कित्याविशी, कांयच उमजना ।। १ ।।

भोवतां हांव भृंग कसो गोड संभ्रमांत
पावलां ना परततात, घुस्पतां मनांत
मदनाच्या बादेच्चीं स्पष्ट लक्षणां ।। २ ।।

**प्रियंवदा :** (शकुन्तलेची सखी. शकुन्तलेक उद्देशून)
पळौन तुका ऋतु वसंत भुल्लो
सखये लावण्यके
कल्पद्रुम सर्वांग चंवल्लो
शकुन्तले लाडके ।।

प्रसन्न नित्या रूप चंद्रिमा
आयलें ह्या रम्यत्व आश्रमा
अशी सुकन्या घालुन जल्मा
धन्य तुजी मेनके ।।

**शकुन्तला:** (प्रियंवदेक)

भृंगांची तूं वाट चुकैली
ह्या म्होंवा उतरांनी
कपट घेवन हो म्हज्या भोंवतणीं
घुंवता माणुन छळणी

**दुष्यन्त :** (शकुन्तलेक)

राणी कशी फुलांची वा सप्नसुंदरींची
तूं प्रेमदेवता गे आयच्यान ह्या मनाची ।। घृ ।।

लावण्यदर्शना ह्या आशेन भोंव - भोंवलों
तंद्रीत भोंवतना गे ह्या आश्रमांत पावलों
ह्या दोन प्रेमिकांची ही भेट उत्सवाची
तूं प्रेमदेवता गे आयच्यान ह्या मनाची ।। १ ।।

दुष्यन्त जांवक रावला राजा तुज्या मनाचो
निर्बंध यौवना ह्या सोबैतलो सदांचो
सौभाग्य दिंव्क आयला, तूं प्रीति ज्योत लांवची
तूं प्रेमदेवता गे आयच्यान ह्या मनाची ।। २ ।।

**प्रियंवदा :** (शकुन्तलेक)

तेजस्वी दुष्यन्त सखे हो
समक्ष प्रियकर आयला
हो पुरुवंशाचो पुरुषोत्तम
सखये भाग्य उदेलां ।।

कृपा अशी ही कण्व पित्याची
तुजी तपस्या फळ्ळी
शकुंतले, ही घाल प्रियकरा
माळ सुगंधित व्हडली ।।

**शकुन्तला :** (दुष्यन्ताक)

समर्पणाचें भाग्य दिलें तूं
तुजेंच जालें
तुजेंच जालें.

अनवळखी, तरि मनीं वळखलें
तुजेंच जालें
तुजेंच जालें.

शब्द तुजे अमृतान भल्ले
तेच पीत निःशब्दच रावलें
उतर अशें नदरेंतुच उल्लें
उंवाळून सर्वस्व पळय हें
तुजेंच जालें
तुजेंच जालें.

**प्रियंवदा :**

दूत सखे, तो रति-मदनाचो
ना यौवन अवमानी
गुंजारव हो प्रीती गौरव
आयक अधिर कानांनी

**दुष्यन्त :**

अप्सरे, पैलेच नदरे, तूं विजेती मोहिनी
ह्यापुडें गे, चारुगात्रे, दास हांव, तूं स्वामिनी ।।

पृथ्विचो सम्राट न्हंय गे, ह्या खिणा हांव बंदिवान
मान वा ना मान, पयल्या जल्मिचों हांव सत्यवान
लाजवंते आज जाली प्रीतिची गे पेरणी ।।१।।

**शकुन्तला :**

भार प्रीति भावनांचो पेलना ह्ये एकले
मैत्रिणींनो या, उलौया. हृदय करतां मेकळें
वेलिंनो, फुलयात कळयो, परमळा आनंदूनी ।।२।।

येवजितां - रे सप्नकारा ती फुडाराची भिरान्
प्रीत ही विस्मर्शि जेन्नां पर्तशी अंत:पुरान
आर्य, दी अभया करा, ही पूर्ण वचना मागणी ।। ३ ।।

**दुष्यन्त :**

बद्धवचना हांव प्रिये साक्षी फुलां ह्या माटव्रांत
राजभुवना व्हर्तलों गे पट्टराणी उत्सवान
तोंवरी यादीक दवर गे ही मुदी सौदामिनी ।।४।।

## भाग दुसरो

(स्थळ आनी प्रसंग : गर्भवासी शकुंतला आपल्याक पित्याबशेन सांबळील्ल्या कण्वमुनींचे आशीर्वाद घेवन आश्रम सोट्टा आनी राजा दुष्यन्ताकडेन वचूंक भायर सरता. सोबत कण्यमुनींचे शिष्य आसात. प्रेमाची खूण आशिल्ली मुदी शेणील्ल्यान राजा दुष्यन्त शकुन्तलेक विसरता.

दुर्वास ऋषीन शकुंतलेक दिल्ल्या शापाचो हो परिणाम. विस्मृतीक लागून दुष्यन्त शकुन्तलेचो स्वीकार करीना. अपमानानं संतापलेली शकुन्तला दुष्यन्ताचो भर राजदरबारांत धि:क्कार करता. आनी स्वर्गातल्या आपल्या आवयक उलो घालून पृथ्वी सोडून ना जाता.)

**शकुंतला :** ( कण्व मुनीक)

गुरूदेवा, सोडुं येना हे पांय
असहाय ह्या शीतळ छाया
तुमीच, बापुय माय ।।

आश्रम न्हंय हें मायेचें घर
कृपेन भल्लां भाट - कुळागर
मेळ्ळें जें वास्तव्य सुखाचें
ती तुमची पुण्याय ।।१।।

वच्चे वाटे पावल धुकलना
मना दुरावो ना मानवना
निरोप घेंव्क ही कृतज्ञ कन्या
उबी फुडें गुरुराय ।।२।।

**कण्वमुनी :**

आज कुडीं काळजाच्या मळब काळवणलां
दिल्या घरीं चल्ली आतां तूं शकुन्तला ।। धृ।।

वाडैली अपूर्बायेन करित योगतपां
आज येता दोळयांमुखार फाटलीं तुजीं रुपां
कळ्ळेंनाच यौवनाची केन्ना पुनव फुल्ल्या ।।१।।

घळघळती दोळ्यां दुकां ना दिनात पळौकं
कळवळून भल्ला गळो, ना दिना उलौंक
संयमाची संवय तरी आज तोल गेला ।।२।।

सोबय घरा संसाराक, सुखय समस्तांक
आशीर्वच जाप्ट्यांचे लागुं मस्तकाक
वाडय करूंक चक्रवर्ति गर्भिच्या चल्या ।।३।।

**शाङरव :** (कण्व मुनींचो शिष्य. दुष्यन्ताच्या दरबारात)

आयल्या पैसुन पट्ट शिष्यगण
आमी कण्वमुनींचे
प्रणाम राजा. पुरुकुलभूषण
प्रणाम ऋषिवर्यांचे ।। १।।

आज खरें शुभमंगल आर्या
घे स्वीकारून ही प्रिय भार्या

शकुन्तले वरदान पित्याचें
शाश्वत सौभाग्याचें ।। २।।

तूं दुष्यन्ता, पृथ्वीपाला,
शकुन्तला तर तेजोबाला
मीलन जांवचें ह्या दोगांयचें
इच्छित प्रजापतीचें ।। ३।।

सुपूर्त करतां तुजें प्रीतिधन
ह्या सुमुहूर्ता ही पतिस्वाधिन
पुरूवंशाची भाग्यलक्ष्मी
स्थान तिजें मानाचें ।। ४।।

दुष्यन्त :

ह्या खिणापयलीं पळेली याद ना
कोण खैंयची सुंदरी तूं सांगना ।।

लोककल्याणा सदा दुष्यन्त बसला आसना
सज्ज हो रावलां सदा हांव सज्जनांच्या रक्षणा
राजयोगी ह्या नृपा तूं वळखना ।।१।।

शुकन्तला :

नाथ, हो थामय असो आभास आनी नाट्य हें
भौ प्रतीक्षेची दिली शिक्षा मना वोगी तुवें
आज थकलां, घे मिठीं, कर सांत्वना ।। २।।

दुष्यन्त :

शुद्ध अंतस्कर्ण ज्या, ना पाप हे आफुट्टलें
जें मनीं या आयलें ना केन्नांच ना ते घट्टलें
आळ हो ना गे फटंवचो सज्जना ।।३।।

शकुन्तला :

धर्मपत्नी हांव, कित्याक करची भिकेची याचना
सांग दुष्यन्ता निमाणें मान्य अथवा मान्य ना
गर्भवतिची करचि न्हंय अशि वंचना ।। ४।।

दुष्यन्त :

कपट हें कोणा कशें गे येवजलें कण्वाश्रमा
ना बळी वच्चों कटा या, निष्कलंका ना तमा
मोहजालीं ह्या तुज्या ना गुंतना ।। ५ ।।

शकुन्तला :

आज कर्तव्या चुकौन लायलों तुवें सत्ते उजो
धर्म ना उल्लो मुळीं, धिःक्कार दुष्यन्ता तुजो
ना क्षमा ही घोर प्रेम प्रतारणा ।। ६ ।।

धर्तरे, अवतीर्ण जा गे घे तुज्या मायेकुशीं
ह्या असत्याच्या तमांतल्यान व्हर प्रकाशाच्या दिशीं
सत्यवति ह्या कन्यकेची प्रार्थना ।।२ ।।

कोरस :

लकलकल्यो लाख विजो
धर्तरी दुभंगली
परगटली दिव्य ज्योत
शकुंतले व्हेली
शकुंतले व्हेली !

## भाग ३ रो

( स्थळ आनी प्रसंग : स्वर्गलोकांत दैत्यांचो पाडाव करून देवांक संकटांतल्यान सोडोव पाखातीर इंद्रान राजा दुष्यन्ताक पृथ्वीवेल्यान आफौन घेतीलें. ह्या युद्धांत दैत्यांचेर विजय मेळौन परततनां इंद्राचें दैवत आशिल्ल्या देवर्षी मारिचाचें दर्शन घेवपाक दुष्यन्त स्वर्गांतल्या

हेमकूट पर्वतार पावता. थंय ताज्या पश्चात्ताच्या अवस्थेंत शापमुक्त शकुंतलेची आनी ताज्या चल्याचीच भेट जाता. ह्या तांच्या पुनर्मीलनाक देवर्षी आशीर्वाद दितात आनी तांचो चलो भरत हो फुडाराक पृथ्वीवेलो चक्रवर्ति राजा जातलो अशी आकाशवाणी जाता.)

**कोरस :**

इंद्रलोकिं चल्ला रे उत्सव
विजयरथा ह्या लाया हात
पराक्रमी राजा दुष्यन्ता
सगळ्या सर्गपुरीं मिरयात ।।

महाकाळ दुर्जय दैत्याचें
थामयलें तांडव थैमान
बनखणींतल्या देवदेवतां
मेळ्ळें पर्थुन जीवन-दान ।।

बडया झिंगुन धोल नगारे
नाच नाचया मळबा वाट
घणघणायत रातीं दिपरद्ना
सन्माना विजयी सम्राट ।।

आज मुक्त हीं यक्ष यक्षिणी
आनंदा ना शीम सुमार
सुरापान कर्तना चलैला
पृथ्विपतीचो जयजयकार ।।

गंधर्वाच्या दिंडीं जमला
आज सुरांचो सुंदर थाट
पुरूकुळ स्तुतिगीतांनी रंगुन
गायती ते स्वर्गीचे भाट ।।

प्रसन्न राजा, आज देवगण
घे सगल्यांचे आशीर्वाद
चक्रवर्ति कुलदीप तुजो पुत
बह्मतेज जातलो साक्षात् ।।

**दुष्यन्त :** (स्वगत)

दु:ख कोणा सांगचें कळना जावन
मनांत धापुन धल्लां
जगा जरी विजयान दिपैलें
घरा पराभुत थल्लां ।।धृ।।

मानुन हांव इन्द्राची आज्ञा
वधूंक दैत्यां गेल्लों
न्हंय दैत्यांचो, म्हजो सूड थंय
घेवपाखातिर झुजलों
पश्चात्ताप असो जळजळटा, चित्त पुराय पोखल्लां ।। १ ।।

हे मुदये, खंय गेल्ली जेन्ना
शकुंतले नाकाल्ली
प्राणप्रिया ती आश्रमकन्या
कशी तिका तूं छळ्ळी
चूक तुजी न्हंय, जशें प्राक्तनीं, तशेंच घट्टा, घडलां ।। २ ।।

कशें पर्तुचें पृथ्वीसदना
प्रीती विरैत रावचें
शकुंतलेची याद नास्तनां
ना एकुय पळ वच्चें
प्रजाजनां असमर्थ नृपति हांव न्यायासन डळमळ्ळां ।। ३ ।।

संततिचो ना लाभ संचितीं
निपुत्रिका ना मुक्ति
गर्भ म्हजो ना हांव वळखलों
ही दैवाची सक्ती
पुरुवंशा ना फुडार उल्लो, आज तेज मावळ्ळां ।। ४ ।।

**मातलि :** (रथाचो सारथी. दुष्यन्ताक उद्देशून)

हेमकूट पर्वतार पावले राजा रथ थामैंतां
नमस्कार मारिचा करूंया इंद्राच्या दैवता ।।
ही पावन नगरी स्वर्गाची वस्ती देवरुषींची
हे बसल्यात अशेच सपत्निक तपां चलैत युगांचीं ।।
चिरंतनाची अशी साधना हांगा सिद्धमुनींची
सर्वज्ञच ते, तांकां शरणा वचून इच्छा फळची ।।

**शकुन्तलेची सखी :** ( शकुन्तलेच्या ल्हान भुरग्याक)

यो यो फाटी
यो यो बाळा
सोडय सोडय त्या
सिंहिणिच्या छाव्या

**दुष्यन्त :** (थोडे स्वगत, थोडे शकुन्तलेच्या सखीक विचारत)

या बालका दर्शनान हांव भुल्लां
गुणी, देखणो वीर दिसता जसो
लोळैत छावो फुडें सिंहिणीचो
खेळटा मदीं मस्त तूफानसो.

जाणां जरी हांव म्हजो हो चलो न्हंय
येता कशी ही पित्या भावना
दिसता उमे घेत काळजाक धरचें
कुरवाळचें दीत आलिंगना.

ह्या बालकालो सुखी जल्मदातो
तशी जल्मदात्री तुमी सांगशात?
त्या वीरकूळा नमस्कार करतां
जिच्यां तेजमूर्ती अशो जल्मतात.

**शकुन्तलेची सखी :** (दुष्यन्ताक)

करूणकथा ह्या वीरपुताची
जरी पिता पृथ्वीपती
शकुंतला माता परित्यक्ता
जरी सुंदर रूपवती ।।

ती येता, प्रत्यक्ष पळौवचें
जशि नाजुक कल्पलता
क्लेशांनीं जाल्या कृशकाया
मूर्तिमंत दूर्बळता ।।

**दुष्यन्त :** (शकुन्तलेक)

प्रीये, शकुन्तले, गे
रावलां तुज्याच भेटी
जा आज मायगंगा
अपराध घेंव्क पोटीं.

लाय प्रेमदेवते गे
पर्थून प्रेमदृष्टी
नि:शंक यो म्हज्या ह्या
आसावल्या मिठीं.

**शकुन्तला :**

हांव भीत भीत आयलें
जाणून पैस रावलें
परिचीत ही नदर रे
पर्थून प्रेम मेळ्ळें.

पर्जन्य तूं पुन्ना रे
हांव चिंब ही धरित्री

मदना रूपान आयला
हांव मोहिनी रती.

तो अशुभ दीस आसलो
वाटेन मुदी निखळ्ळी
अव्हेर्तनाच तेन्नां
दाखौंकं खूण नुल्ली.

**दुष्यन्त** :

कळना कसो विसल्लों
ही प्राणप्रीय भार्या
तें गूढ ना उकलना
अजुनूय कलंकिता या.

**देवर्षि** : (आकाशवाणी)

शांत शांत राजा दुष्यन्ता!
तुजो दोष ना पाप
दुराग्रही ऋषि दूर्वासाचो
तो पीट्टालो श्राप ।।

शापमुक्त ह्यापुडें सदांची
दोगांय सुखान नांदा
आशीर्वच हे देवर्षीचे
तांकां सदैव वंदा ।।

पुरुतेजाचो कळस असो हो,
पूत भरत भाग्याचो
चक्रवर्तिचो मान प्राक्तनीं
सदैव दिग्विजयाचो ।।

धन्य तुमी माता पितरांनों
धन्य जल्मभूंयेची
भरताच्या ह्या पुण्यभारता
मिरास अक्षयतेची ।।

**दुष्यन्त - शकुन्तला :**

आज मनोरथ फळ्ळे, फुल्लें, चात्रें, हें पुनवेचें
वितुष्ट सल्लें, अतूट उल्लें, नातें प्रेमिजिवांचें ।। धृ।।

**दुष्यन्त :**

उज्यांत जळचें तेन्नां कळची उदकाची शीतळकाय
पैसावनुच भेटी सुख मेळचें, हो मनशाखातिर न्याय

**शकुन्तला :**

विरहाच्यो विसरून कळो पर्थून एकरूप जावचें
वितुष्ट सल्लें, अतूट उल्लें, नातें प्रेमिजीवांचे ।। १ ।।

प्रेमाची ऊर्मी अविनाशी तशींच प्रेमी - युगुलां
भाविक तीं सप्नांत सदाचीं, मोगा सुगंध दखला

**दुष्यन्त :**

जंय आमी हे पांय दवल्ले थंय तारूण्य चंवरचें
वितुष्ट सल्लें, अतूट उल्लें, नातें प्रेमिजिवांचे ।।२।।



# संगीतिका : होळी

[ निवेदन : संसारात घुस्मटत बावन गेल्ल्या मनाक पर्थून एकफावट उल्हसीत करपाक येता ही वर्सुकी होळये पुनव.

चिंता - खेद - खंत आनी कष्ट सोसत उबगून गेल्ल्या प्राणाक पर्थून एकफावट फुलौपाक येता ही पुनवेची रात.

ही पुनव धाय दिकांनी मस्ती वोत्ता, तेन्नां प्राणांक पाखां फुट्टात. आनी खिणांत खळखळून वयर सरता उदंड उमेदीचो हुंवार.

धोल ताशे वाजतात, आनी 'शबय शबय' चो सवंगड्यांचो उलो हाडटा सगळ्यांचेर भार. ]

१.

शबय शबय घालीत जागय
 होळयेची रात ।
शबय शबय घालीत सोबय
 होळयेची रात ।।
संवगड्यांचे सल्ल्या मेळ
तारगड्यांचे चल्ल्या खेळ
पुनवेचो चट्टा भार मस्त मस्तकांत ।। १ ।।
स्त्राप - ताप भोवतणींचे
पुंजावन उज्यांत हुल्पावचे
संवसाराच्यो पीडा-नडी, जांवच्यो भस्मसात ।। २ ।।
उक्त्या मळार तेंकून धगा
याद दियात सगळ्या जगा
होम हुल्पणेन जीणे, मेळटलो सुवाद ।।३।।
बडयत बडयत धोल-ताशे
हालयात रे पोन्ने - वाशे
पोन्ने जळौन नव्या दिसाक वयर सरूंक वाट ।।४।।



## २.

धोलार धोल बडय बडय
दोंगर रान हालय धोलय
शबय शबय घालीत जागय
होळयेची रात, रे होळयेची रात ।। धृ।।

पुनव - वारो घेवन आंगार
चराचरा येंवरे भार
देंवच्यें नाचुंक देवां दिकूय
घालून हातांत हात ।। १ ।।

भरून भरून पेल्यार पेलो
मेकळ्या ताळ्यान घाल उलो
संवगड्यांचो सूर चडय
मळबा मस्तकांत ।। २ ।।

फायची खंत, फाटले त्रास
मोखून उडय बंद पास
विसरायेच्या जगांत पासय
आयची धुंद रात ।। ३ ।।

नाका संवगां सवळेपणा
उबगणेचीं धापा तोणां
खोशी भरून कळसुलीनीं
भीजा आयची रात ।। ४ ।।



३.

मातयेचे पूत
आमी मातयेचे पूत
मातयेची लायल्या बिबूत.

मातयेंतल्यान किल्लले
मातयेक मेळटले
नातें हे चलतलें अतूट.

धुल्लाचो संग
आंगार धुल्लाचो रंग
जीणेचें रंगलां सवंग.
माती कालयतले
मळबा सारयतले
मातयेन भल्ल्या ही मूठ.

निवेदन : तरणेपण म्हळ्यार आयुष्याची पुनव. होळी म्हळ्यार आमच्या त्या रंगी-बेरंगी यौवनकाळाची याद करून दिवपी उत्सव. त्या गोड उगडासांचो उत्सव.

ते हांसप रूसप, दोगांभितर नकळत गुरफटप. तो चंद्र, ती चंद्रिका. तो कृष्ण, ती राधा. सृष्टींत भरता फक्त प्रीतीचो खेळ. सृष्टूच जाता राधा-कृष्णाचें एक गोकुळ.

रंग-रंगेली राधा नटखट नंदलालाक काकुळतीन उलो घालता.



४.

रंग रंगलां, आंग चंवल्लां, खेळ खेळुया होळी
कळाव कित्या रे, यो मन-रमणा, यो बेगीन वनमाळी ।। धृ ।।

सगळे आयले, तूंच तितलोना
तुज्याविणें अणभवतां दैना
चाळय-चाळयता, काळी यमुना, पदर पसरतां झोळी ।। १ ।।

भरतीचो हो एक पुनव खिण
याच खिणाखातिर हें यौवन
पिशा प्रीतिच्या रंगीं रंगुन रमली राधा भोळी ।। २ ।।

तुज्या धुळीचो गुलाल जांवचो
तुजो संग हो नवरंगांचो
तूं रंगारी युमना-तटिचों, आतुर राधा ओली ।। ३ ।।

निवेदन : जेन्नां होळी खेळत खेळत अकस्मात कन्हैया आयलो, तेन्नां प्रीतीच्या वृंदावनात वसंत फुललो.

गुलालान सगळी सृष्ट रति-सुंदर जावन गेली. आनी वसंतोत्सवान धर्तरीच सर्वांग चंवल्ली.



५.

गोप गौळणी धुकल धुकलता
धुळ्ल उडैत चल्लो
खेळुंक नंदलाल आयलो ।। धृ।।

तरणें सुंदर भौ वृंदावन, जाण्टेपण नुल्लें
भरून आयलें तुडुंब यौवन रंगांनी फुल्लें
खिणांत राधा भान विसल्ली श्रीरंगा धल्लो ।। १।।

रंग- कुपांनीं शेणर्ली रूपां अनवळखी संवगां
वस्त्रां गात्रां अभिन्न जालीं, चिंब चिंब आंगां
आज लजेचें जालें चान्नें चंद्रिम खळखळ्ळो ।। २।।

मदींच मुरली करता व्याकुळ राधा तानेली
सूर पिसायता चंचल काळजा राधा थरथल्ली
मन-रमणाच्या आर्त प्रीतिचो सूर, तिका मेळ्ळो ।। ३।।

( निवेदनः होळी पेटली. साक्षात अग्निदेव परगटलो. त्याग आनी समर्पणान जीवनाक अर्थ दींवपी प्राणांचो उगडास आयलो.

मनीस कायेक अमंगळांतल्यान तारपाखातीर होमकुंडां जावन जळील्ल्या त्या आत्म्यांचो आयकात उलो. )



६.

धगधगीत पेटय उजो, लाय अमंगळा
पाप श्राप हुल्पया रे साप बिखा-मुळां ।। धृ ।।

दृष्ट दृष्ट पट्टनांच थैंच भस्म जांव सदांच
जाळ कृष्ण कर्तृप्यांक, खोल भुयें-तळा ।। १ ।।

पेट्टी जीण यज्ञ-याग, अर्पणांत नुल्ले दाग
अग्नी-साक्ष होमकुंड प्राण प्रज्वळा ।। २ ।।

जळ्ळें स्वत्व, जळ्ळो स्वार्थ तेच संत जे परार्थ
अशा जीणें आंगाऱ्याची येंव कृपा- कळा ।। ३ ।।

( निवेदन : होळी पेट्टा. तेन्नां याद जाता त्या असंख्य स्वातंत्र्यवीरांची, ज्यांनी आपल्या सर्वस्वांची होळी करून मायदेशाक मुक्त केलें. त्या बलिदानाचें पुण्यस्मरण होळये दिसा अचळय जाता. )



७.

भारतभूच्या सौभाग्याचे तेजस्वी संतान
सुळार घडली होळी, तांचें पावन तें बलिदान ।। धृ।।

सर्वस्वाची केली होळी
स्वातंत्र्याची ज्योत उजळ्ळी
स्मरा स्मरा स्वातंत्र्यवीरांच्यें,
अग्निदिव्य तें म्हान ।। १ ।।

मशाल जळती घेवन जीणेची
वाट घडयली उजवाडाची
कणांकणांतल्यान क्रांतिवीर ते
जळैत रावले प्राण ।। २ ।।

गौरव तांच्या समर्पणाचो
करीत होळये दीस मनांवचो
वंदन तांकां आज करतनां
बलिदाना सन्मान ।। ३ ।।



# संगीतिका : कृष्ण जल्म

निवेदन : आज युगपुरुष श्रीकृष्णालो जन्मोत्सव. भारतीय संस्कृतीचो श्रेष्ठ निर्मातो, गीतेचो प्रवक्तो आनी अपूर्व तेजस्वी महापुरुष म्हळ्यार श्रीकृष्ण.

जेन्नां जेन्नां धर्म गादेता आनी ताजें कायाबळ तटूंक पावता, तेन्नां तेन्नां आपुण अवतार घेवन ताका थाकाय हाट्टां अशें म्हणून मनी सकायेक सासणाचो धीर दीवपी भगवान श्रीकृष्ण.

अशा महात्म्याचो जल्म जालो तोच अतिसुंदर आनी समृद्ध ब्रह्मावर्त भागांत. ब्रह्मावर्त म्हळ्यार गंगा-यमुनेच्या उदकान पावन जाल्लें भारतीय संस्कृतायेचें कुळारूच.

ऋषी - महर्षींचे आश्रम, विद्या व्यासंगी लोक, निर्मळ न्हंयो, सूचिपर्ण-देवदार सारक्या उंचूच उंच रुखांनी भरील्ले पांचवे ताल्ल दोंगर, लुसलुशीत शेतां, साधी समाधानी मनशां.

अशा संपन्न प्रदेशांत स्वर्गीय सप्नासारकें लिकलिकपी सोबीत गांव म्हळ्यार गोकुळ. श्रीकृष्णाचें सगळें भुरगेपण जंय फुललें तें धन्य गोकुळ !

१.

वसुधेचो स्वप्नांकुर सोबित
यमुना तटिचो गांव
पुण्यधाम हें गोपाळांचें
सुंदर गोकुळ नांव.

पिकाळ माती भौ रसवंती
सदैव समृद्धी सुख-शांति
वज्रवासिंच्या इच्छापूर्तिक
ना कसलोच कळाव.

प्रसन्न सजलां जंय वृंदावन
चिरतरूण उबो गिरिगोवर्धन
घरा - घरांनी उदंड भल्ल्या
दृढ श्रद्धा सद्भाव.

प्रियजन जंय हे गोप - गौळणी
सतेज रूपां सदां देखणी
शुभ भुंयेर ह्या भौ अशुभाचो
खिणात अंतर्धाव.

वंदनीय तीं नंद - यशोदा
जिण तांची सगल्यां आनंदा
गोकुळवासी कृतज्ञ तांकां
ओपती भक्तीभाव.

चैतन्याचे चित्र चिरंतन
आनंदाचे जंय नंदनवन
खुद्द प्रभूची सप्नभूंय जी
गोकुळ ताजें नांव.

निवेदन : क्रूरकर्मी गर्वोन्मत्त कंसान मथुरेक जुल्माचे थैमान घालें. दुराचाराचो साक्षात अवतार असो कंस ऋषीमुनींच्या ब्रह्मावर्ताचो कर्दनकाळ जाल्लो.

अधर्माचो सुळसुळाट जावन श्रीकृष्णाची जल्मभूमी मथुरा बंदिवास भोगताली.निमाणें जेन्नां ती अष्टमीची रात परगटली, पाप विमोचनीं जावन आनी ती प्रभूची अदभूत शक्ती श्रीकृष्णजल्मान धर्तरेर अवतरली, तेन्नां कंसाचें आसन थरथरपाक लागलें.

२.

वादळरात काजळरात
अष्टमीची रात
मथुरेचें कंसासन
आयली थरथरायत ।।

मळबा वाटेन येता काळ
भिवैत काळे दोळे
पळेत पळेत कंसाचें
आंगुय पडले निळें
समजलो तो भल्ले घडे
उबो फुडें घात ।।

भिके लावन भौ प्रजेक
भोगलें वैभवाक
खोशी फक्त खुन्शिकायेन
छळूंक दूर्बळांक
सोसचें मोन्यान प्रजाजनान
होच न्याय - प्रघात ।।

मस्तेपणान मनीस पणाक
घालें पायामुळा
भयाची ना संवय केन्नां
भल्ली दैत्यकळा
कलकल्ला कंसराज
आज अकस्मात् ।।

गळ्ळें शस्त्र कंसाचें
थामत आयला श्वास
सोंपत आयला मथुरेचो
दीर्घ बंदिवास
हर्षभरी खळखळटा
यमुनेचो कांठ ।।

निवेदन : कंसमर्दनाखातीर आनी आपल्या जीवनाचें परमध्येय साध्य करपाखातीर श्रीकृष्णाक गोकुळ सोडचे पडलें. अक्रूराबरोबर एक दीस अकस्मात तो मथुरेक गेलो.

ज्या गोकुळान ताज्यो बाळलीला अणभवल्यो - कृष्ण प्रेमाच्या आनंदान ज्या गोकुळान दरेक दिस उत्सव कसो मनायल्लो, तें गोकुळ व्याकुळ जावन गेलें.

पुण कृष्णमय जीण जाल्ल्या राधेची अवस्था कोणाक कशी कळची? वृंदावनच्या नंदलालाक, त्या आपल्या प्रेममूर्तीक, त्या आपल्या प्राणप्रिय माधवाक विसरप राधेक शक्य तरी कसें जायत!

शाश्वत सौंदर्याची, उत्कट प्रेमभावनेची आनी आत्मसमर्पणाची कोमल कल्पना म्हळ्यार राधा. पुरुषोत्तमाची आदिशक्ति.

३.

वचुं कशी कृष्ण-सख्या विसरून.
पर्थुन पर्थुन उगडासांनी
जीव चल्लो खरसून ।।

धुमता अजुनूय कानीं वेणू
सुखायत काया मन अणु-रेणू
स्पर्श-भास खिण-खिणां पिसायता
चित्त गेलां रे रुसून ।। १ ।।

वृंदावनिचें ते भांगराखिण
स्मरणानुय गंधित अमृत - जिण
अपूर्त प्रीती -तान कित्या रे
तूं गेलो दवरून ।। २ ।।

संग तुजो तो श्रृंगारोत्सव
प्रणयाचो मधु-मधूर अणभव
पिशी प्रीत राधा-रमणाची
ना वच्चीच सरून ।। ३ ।।

जळीं-स्थळीं नदरे तूं श्रीधर
सया निळी घननीळ चराचर
राधा-मोहन अद्वैताची
मनांत कळ्ळ्या खूण ।। ४।।

निवेदन ; राधेक आनी अर्जुनाक आपल्या प्रेमान न्हाणौपी श्रीकृष्ण. ताजो जल्म अद्‌भूत, ताजें प्रेम अद्‌भूत, आनी अद्‌भूत स्थितप्रज्ञ भाव. अनासक्त योग्याप्रमाण आचरणाची जीण जगील्लो तो निष्काम कर्मयोगी. तो गीता स्वतः जगलो.

भारतीय अध्यात्म साधनेचो आपरोस श्रीकृष्णाल्या गीतेंत उतल्ला. श्रीकृष्णासारख्या युगपुरुषाचो सर्वश्रेष्ठ धनुर्धऱ्याबरोबर भर रणांगणाचेर जो संवाद जालो, तातूंत मनीसकायेच्या कल्याणाचे सगळें संगीत भल्लां.

मनीस जेन्नां धर्मसंकटांत पडटा, कितें करचें कितें न्हंय हाजो तकलेंत गोंदळ जाता तेन्नां गीता ताका आवयभशेन म्हऱ्यान घेवन धीर, थाकाय आनी प्रेरणा दीता.

गीता म्हळ्यार सासणेची संजीवनी.

४.

योगेश्वर श्रीकृष्ण उलैलो संजीवक संदेश
अक्षरोक्षरीं गीतायेच्या प्रसन्न श्रीगणेश ।। धृ।।

आत्मबळाची अमृतवाणी
उतरांनी भल्ल्या संजिवनी
गीता गायता तो अणभवता प्राणां नव - उन्मेष ।। १।।

स्थिर चित्तीं कर्तव्या पालन
विना फलाशा कर्म-आचरण
पार्थ सारथी भगवंताचो चिरंजिवी उपदेश ।। २।।

अर्थ जिणेचो पार्था कळ्ळो
अहंकार भय खिणांत गळ्ळो
कृष्णार्पण जीणेंत उतह्लो सर्वसाक्षि परमेश ।। ३ ।।

५.

वंदन त्या देवकीनंदना, प्रणाम पुरुषोत्तमा
पुण्यस्मरणीं, लया वचूंनी, अज्ञानाच्या तमा ।। धृ ।।

पराक्रमी अनुपम राजेश्वर
अनासक्त ज्ञानी योगेश्वर
चरित्र तिर्थंकर कृष्णाचें प्रफुल्लता पौर्णिमा ।। १ ।।

सखो - पांडवां, वंद्य ऋषिवरां
स्फूर्त - धीरदात्रो रणवीरां
प्रिय सगळ्या भोळ्या गोपाळां, राधिके प्रियतमा ।। २ ।।

नमो चक्रधारी भगवंता
चैतन्य प्रभू वसुदेवसुता
चिंतनान ज्या अभय समस्तां, भय असुरां - अधमां ।। ३ ।।



# संगीतिका : गोकुळाष्टम

ही वसुंधराच सगळी प्रेमपिशी राधा जावन् कृष्णरूप परमेश्वरी प्रियकराक साद घालता. प्रेमाचें पर्थुन तिका आश्वासन जाय. जन्माष्टमीच्या राती यमुना न्हंयच्या कांठार धर्तरेक अभय दिवन कसल्याय संकटांतल्यान सोडोवपाक पर्थून अवतार घेवपाक तयार आसां अशें तो युगंधर श्रीकृष्ण स्पष्ट आश्वासन दिता.

१.

अष्टमीची रात आयली, घेवन पुण्य-याद
यमुनेच्या भोंवतणीं प्रसन्न पारिजात ।। धृ।।

स्पन्दंग उदकांगी
व्हांवता जावन अळंग
श्रीरंगा आळयतनां
हालता अंतरंग
पुन्ना तान दर्शनाची, करता प्राण अशांत ।। १ ।।

चक्र चैत्र फाल्गुनाचें
घुंवता घेवन जगाक
संवगां तांचीं घुंवतनांच
अस्ततात युगां
युगंधरा म्हऱ्यान सदां निरांजनावात ।। २ ।।

अजुन तर्णी राधिका
परमळीत प्रीत
तीच ही वसुंधरा
पुजता विश्वजीत
यमुनेच्या कांठार तिचे ओंठ उलैतात ।। ३ ।।



२.

सजलां हांव, तुजी प्रिया
कितली पळोंव वाट
दोळे भरून पळौन घे रे
आयचो म्हजो थाट. ।। १ ।।

नखेत्रांची पवनांमाळ
आंगार कमळां-वोवळां दाळ
घमघमीत अंतराळ
फुल्ल्या जाय उपाट. ।। २ ।।

उमाळ्याचीं गायली गीतां
भिजलीं मनीं चान्नीं शेतां
आफौंक तुका पयस वेता
वास - पारिजात. ।। ३ ।।

व्याकुळीत न्हंय तरंग
रूप गिरैत सपन-दंग
धाय दिको उब्यो अळंग
प्रीति चिंतनात. ।। ४ ।।

भोंवलें हांव युगां तपां
सोदलीं सर्गिचीं रूपां
ह्या खिणा दाखय कृपा
जोडले दोनुय हात. ।। ५ ।।



३.

सृष्ट तूं कमळ कशी दीत राव सुवास
रावलां जावन् पराग हांव तुज्या कुशीन वास ।। धृ।।

केन्नां खतखतीत वोत
केन्नां वोत्तां पावस नेटान
केन्नां कुपान धापतां दीस
केन्नां चान्नी रात शेतान
घेवन रूपां तरातरा, खेळटां बार मास ।। २।।

जांव भयाण फोणकुलां
पावलां थैं पावतलीं
फुलतलीं झेतान फुलां
पळटल्यां थामयतलीं
सर्गिचो सराव ज्याका, ताकाच कळचो श्वास ।। ३।।

भल्लां हांव कणाकणांत
मोव मेणांत, घट घणांत
दृष्ट लावन पयस पेल्यान
बसलां हांव खिणांखिणां
जाण तुजे म्हजे कित्यांत वेगळे नात त्रास ।। ४।।

सोंसलें गायत, सोस फुडेंय
हांस अशीच हनवटींत
पुस्तनां दोळ्यां दुकां
भाग्य फळटलें व्हटींत
मुक्त तूं म्हज्या मिठींत, न्हंय गे सप्नभास ।। ५।।



४.

जोंवरी रविचंद्र मळबांत, अक्षयी तूं धर्तरी
घेवन तुका हृदयांत बसला शेषशाही श्रीहरी ।। धृ।।

राधिका गिरिधारिची तूं, शंकराची पार्वती
रामचंद्राची सीता तूं, सत्यवानाची सती
प्रीतिच्यों लक्षावधि रूपां, तुजींच गे वसुंधरी ।। १ ।।

वाल्मिकी व्यासादिकांची, अस्मिता गर्भीं तुज्या
संत शूरांची बीजां, अब्जावधी मातयें तुज्या
लक्ष सप्रांची वनां, जंय जंय तुज्यो दोंगर - दरी ।। २।।

मंदतात पावलां मदीं, जेन्नां तुजी पुण्याय वेता
किण्ण काळी रातभर सोंसची तुवें सैतानता
आप्त जांवचे पैसुले, दुर्योधनी पडची घुरी ।।३ ।।

दुष्ट सत्ताधीश जावन, पालौन दिती धर्मा -दिवो
वीष - द्वेशाची भुतां, विध्वंशिती संसार नवो
धांवन येता भगवंत तेन्नां जांव केदीय अपरात जरी ।। ४।।

कोरस :
'यदा यदाहि धर्मस्य ग्लानिर्भवति भारत ।
अभ्युत्थानमधर्मस्य, तदात्मानं सृजाम्यहम् ।।'



# संगीतिका : दसरो

१.

सुवर्ण आयलें हाता
        जाली प्रसन्न धरणी माता
कुपा-कुपांतल्यान कृपा रकयली
        नुरली चिंता आतां ।।

चिखलांतलीं फळ्ळीं सप्नां
        कष्टांचीं हीं कणसां - रत्नां
माती लावची कपल मस्तका
        स्मरची देवी शांता ।।

घरा - घराची कुबेर नगरी
        धन-धान्या ही धरणी अपुरी
दिया दिया थामैत दिस्तल्या
        रित्यां करा श्रीमंतां ।।

उरूं सदांची अशी संपदा
        झळकुंचीच ना केन्नां विपदा
सरस्वतीची करा प्रार्थना
        दी सुमती धनवंतां ।।



२.

चरणिं तुज्या दूर्गे नतमाथीं
विनति करीं उपकार
अवतरीं रुद्ररूप साकार ।।

सत्तांधांचें चरित कलंकित
उन्मादांतल्यान प्रमाद अविरत
प्रमत्तमथिनी शक्ती वितरित
कर असुरां संहार ।।

पिळवण अधनां धनवंतांची
अक्षरहीनां बुदवंतांची
फोड मुस्कटां अन्याय्यांचीं
घे दुबळ्यां कैवार ।।

कपट मनीं दुश्चित्र वासना
उपट जीण भल्ली दुर्व्यसनां
ओड आसनां अशां शासना
दी ताडन भडिमार ।।

ऊत असो हो भ्रष्टाचारां
तोंवर थारो अंध:कारा
अमंगला धि:कारून शूळा
करिं मंगल संसार ।।



३.

नियतिची अजाप रीत ज्ञात ना कोणा
कल्पिल्या कशी कथा गुप्त प्राक्तनां ।।

शीतळ चंद्रा उमास, भास्करा गिराण
शापिता शकुंतला, विरह भोगि राम
पांडवां वनीं प्रयाण, त्याग श्रावणा ।। १ ।।

जे परार्थ ओपती जीण स्वार्थ नास्तनां
संचितीं अशा कित्याक, दूष्ट दंडना
गूढ हें अनुत्तरीत देव – मुनिजनां ।। २ ।।

प्राप्तल्या कोणा अनंत शीण – यातना
जल्मताच दंडिल्या भीक याचना
करपुची मनां मोन्यान दु:ख दामतनां ।। ३ ।।

कष्ट येवं घडूं अनिष्ट बानुं बनखणीं
वीर जे फुडाराचे जिखतले रणीं
जीण ही घडयलि ना येवजणे लिना ।। ४ ।।



## ४.

चिंतनात लाय लयाक भय पराजयाचो
सर्त न्हंय, समर्थ जाय, योग निश्चयाचो

चित्त नाका कीर्तिफाट
नुरचें वित्त संचयात
पंथ सोद, पथिक जायत, तूं हिमालयाचो ।।१।।

मुक्त जंय मनीसकाय
ना कोणा उणे, मनाय
जाय स्वतंत्रताय जाल्यार देह झंजळावचो ।। २।।

येवनि लक्ष अपशकून
वच्चें न्ही मनीं सुकून
दीर्घ रान चल, तरीय पांय फुडें वाजंवचो ।। ३।।

ध्येय सप्निं जागृतीं
समस्तकां उदरगती
रिक्त मस्तकार बरय लेख अक्षयाचो ।। ४।।



५.

शीम मनाची, अज्ञानाची हुपुंया भय मत्सरा
शमी साक्ष ह्या पावल उबारित, म्हणुया जय शंकरा ।। धृ।।

जाळ करा जुल्मांचो
जीर्ण रिती अर्थांचो
रुढी-नडींची मडीं हुल्पुंया, धुंवया सगळ्या घरा ।। १।।

जात-पातिची नीति
कित्या फटौती पोथी
परंपरांचीं पिनां लक्तरां, नदर करा सुंदरा ।। २।।

नवे अर्थ संकेत
नवे सूर संगीत
नव्या दिशेची वाट सोदुंया नेमित निश्चय -शरा ।। ३।।

तोच नाका इतिहास
तीच भास, आभास
नसा-नसांतल्यान नवो कल्पुंया मनीस, मंगल - गिरा ।। ४।।





## हरदत्त खांडेपारकर

जन्म : २२ डिसेंबर १९३८

जन्मगांव : खांडेपार फोंडें तालुका गोवा.

शिक्षण : एम. ए. बॉम्बे युनिव्हर्सिटी.

मुक्काम : १९५२ सालच्यान मुंबय.

व्यवसाय : रिझर्व बँक ऑफ इंडियात
आनी सेंट्रल बँक ऑफ इंडियात मेळून ३७ वर्सां नोकरी.
सीनियर एक्झीक्युटीव्ह पदावेल्यान
जानेवारी १९९७ त निवृत्त.

छंद : देशभर खूप प्रवास.
संगीत, नाटक, वाङमय आनी काव्य.
वयाच्या १७ व्या वर्सा मान्यवरांच्या उपस्थितींत
विलेपार्ले मुंबय हांगां लो. टिळकांचेर मराठीतल्यान
संगीतिका बरौन स्वत:च स्वरबद्ध करून जाहिर कार्यक्रम.
१९५७ आनी १९५८ सालांत जाल्ल्या राज्य स्तरावेल्या
इंटर कॉलेजिएट संस्कृत नाट्यस्पर्धेत
उत्कृष्ट अभिनयाचे आनी दिग्दर्शनाचें पारितोषिक.
१९५७ सालापासून मुंबय आकाशवाणीच्या कोंकणी कार्यक्रमांनीं
सहभाग आनी गीत लेखन.